शणै प्रकाशन : २५

पयली खेप – अेप्रिल १९८३



अुजवाडावपी :

शणै प्रकाशन

वेलींग–गोंय

४०३४०४

छापपी :

लक्ष्मी प्रिंटींग प्रेस

बेळगांव

मोल : आठ रुपया



कै. ति. ‘बाई’ ( मथुराबाय सरदेसाय )
कै. ति. ‘नागा’ ( नागेश जि. सरदेसाय )
वै. ति. ‘विजू’ ( गोपिकाबाय कामत )

हांच्या म्होवाळ उगडासाक–

— वामन

म्हज्या गावंचे अेक सहृदय सद्‌गृहस्थ भोवमानेस्त वामनबाब सरदेसाय हांचें हें पुस्तक उजवाडाक येता, तेदेवेळार म्हाका दुपेट खोस जाता. पयली गजाल वामनबाब सरदेसाय हे फाटले पिळगेंतले- म्हज्या व्हडल्या भावा बरोबरचे. हे पिळगेची सांस्कृतिक भूक मराठी वा पोर्तुगेजींतल्यान भागताली. देखून हे पिळगेची चड उणी ओड मराठीकडे आसली जाल्यार अजाप न्हय. अशेंय आसून वामनबाब सरदेसाय हांची कोंकणी वटेन आशिल्ली पोट-तिडक पळेल्यार कोंकणी भाशेक आयजवेर निष्ठावंत अशे तीन वामन लाभले अशें म्हणू येत. पयलो वयलो साक्षात्कारी द्रष्टो सर्गेस्त वामनबाब वर्दे वालावकार वा शणै गोंयबाब, दुसरो वामन सरदेसाय वा 'अभिजीत' आनी तिसरो ह्या अप्रूप पुस्तकाचो लेखक-कवी वामनबाब सरदेसाय जांच्यो कविता वाचतकच, रसिक वाचप्याक म्हज्या उतरांतलें खरेपण कळतलें.

दुसरें खोशयेचे कारण म्हळयार आयजवेर आपल्या पुस्त-काक प्रस्तावना वा आरंभाची उतरां बरैतना बरोवपी आपल्या-परस जाण्टो (खऱ्या अर्थांन, जो चड जाणा तो) सोदता. पुण वामनबाबांनी हें काम म्हजेर सोपयलां. हांव तांचेपरस पिरायेन आनी ज्ञानान ल्हान. देखून म्हजी जबाबदारी वाडल्या. वामन-बाबांच्यो कविता वाचता आसताना तांच्या अंतरंगाचो थाव लागना. देखून तांच्या कवितांची ओळख करून दिवपाचें काम दिसता तितलें सोंपें न्हय. हावें त्यो पर्थू-पर्थून दोन-तीनदां वाचल्यो आनी दर खेपे म्हाका वेग-वेगळो अणभव आयलो. तांचे प्रतिभेचो अविश्कार पळेल्यार हो कवि हाजे पैलीं अुज-

वाडांत कसो आयलो ना असो प्रस्न पडटा. घडये जीवितालागीं पळोवपाची तांची नजर वा प्रसिद्धिपराङमूखता हेंच कारण आसूये वा जे संसारिक परिस्थितींतल्यान ते गेल्यात ती परिस्थितीच जबाबदार आसूं ये.

वामनबाबाचो जल्म हातुल्ली गांवात २८ दिझेंब्र १९०८ वर्सा जालो. तांगेलें प्राथमिक शिक्षण कुंमारजुव्यांत मराठी ५ वी मेरेन जातकच पोर्तुगेज प्राथमिक कुंभारजुव्यांतूच जालें. त्या ईप्रांत पणजे लिसेवाचो ताणी कुर्सु कोंप्लेमेंतार द सीयेंसियस Curso Complimentar des sciences आनी उप्रांत गोंयच्या इश्कोल मेदीक Escola medica हांगासून ते फ.र्मासोतीक जाले. कुंमारजुव्यांत ताणी बरीच वर्सां फार्मास चलयली. हें करता आसतनाच ताणीं कांय अुत्कृष्ट कविता रचल्यो. त्या कवितांचो हो संग्रह.

काव्याच्यो वेग-वेगळ्यो व्याख्या जायते जाणानी केल्यात ते प्रत्येक व्याख्येंत थोडेभोव तत्थ्यय आसत. पुण काव्याची व्याख्याच करप कठीण अशें म्हजें मत. अेका इंग्लेज प्रज्ञावंत कवीन म्हणिल्लेवरी I wish I could define poetry, but cant– 'काव्याची व्याख्या करूंक आइल्ली जाल्यार म्हाका खूब खोस जातली आशिल्ली– पुण म्हज्यान नज.' आमी कवितेकडेन अेका साधारण रसिकाचे भूमिकेंतल्यान पळोवया. दुर्दवान कवितेचें अचूक अशें मापपाचें यंत्र अजून मेरेन मेळना. देखून जण अेकल्याक आपापल्या परीन तिजो सोद घेवचो पडटा. आनी अेका अर्थान हेय खरें. आपुण जावन जें सोदून काडटा ताजो सांगात

आमकां चड बरो जाता. ताजेखातीर खासा आमी कितें तरी मोल दिल्लें आसता. अेखादले साहित्य कृतींत काव्य आसा काय ना हें आमकां कशें कळता ? काव्याची प्रचिती वा जाण जेन्ना आमकां येता तेन्ना आमची मन:स्थिती कशी जाता हें पैलीं पळोवंक जाय. आमी मात्शेशे बेसावध जातांव. पुण त्याचबरोबर आमच्या बुद्धीतली सावधताय मेकळेपणान कितेंतरी सोदता. अशावेळार अेकादुकली शद्बपंक्ती आनी तांतल्यान उठपी वलयां आमकां रेवाडो घालतात. तांतल्यान जें अेके तरेचें मानसिक आंदोलन जाता, तें एकाच वेळार आमकां सतृप्त करता आनी नवी हुरहूर निर्माण करता. संतृप्तताय जी आमी अणभवता ताचें कारण अशें कि जें आयजवेर आमकां केन्नाच जाणवंक नासलें वा जाची आमकां संधिग्ध अशी जाणीव जाल्ली तें हांगासर यथातथ्य शद्बांकित जाल्लें आसता. आमकां जें जाय आशिल्लें तें मेळिल्ल्याची खोस आमकां भोगता. त्याचबरोबर अेक नवी हुरहूर लागता ती म्हळयार जें सांपडलेलें आसता– खरें म्हळयार तें सांपडलां शें दिसता– तें फकत दर्शन दिवन गेल्लें आसता. ताका लागून आमचें पैलीचें व्यक्तित्व अुजळ जाल्लें आसता. आमी पैलीचे तेच उरनात. जे जाणिवेच्या अेका टप्प्यामेरेन आमी पाविल्ले आसतात ताच्याय पेल्यान– हे जाणिवेखातीरूच– वचपाची आमकां उमळीक आसता. हे अशे अवस्थेंत आमकां काव्याचो साक्षात्कार घडटा. स्वयचोय उत्कट अणभव आमी अशे तरेच्या द्विधा मन: स्थितींतल्यान घेतांव. हंसपदिकेचें गीत आयकून दुष्यंताची जा अवस्था जाली तशेच तरेशी कांयची ही अवस्था.

काव्याची जाण कवि आनी रसिक हांच्या परस्पर सवादांतल्यान वाडीक लागता. खासा आपणाक जें कितें जाणवलां तें 'सार्थ' करून दाखोवप हे कविचें मुखेल कार्य. हें करताना ताका मोल दिवचें पडटा तें म्हळयार स्वत:कडे अेकरुप जावप आनी त्याच बरोबर स्वत्वाचो लोप सादप. स्वत:लागीं एकरुप जाल्याबगर सर्जक क्रियेक जाय आशिल्लो भूंय तयार जायना, आनी स्वत्वाचो लोप जाल्याबगर सृष्ट कृतींक सार्वजनीन आनी सार्वकालीन रुप येना. वेल्याचाराक ह्यो दोनूय क्रिया परस्परविरोधी दिसतात. पुण वास्तविक त्यो तशो नासतात. एकरुप जाता आसताना जो आमी स्वत:चो सोद घेतांव तांतल्यान स्वत्वाचो लोप जाता. अन्वेषण आनी तटस्त वृत्ती हीं दोनूय खैचेंय सर्जक क्रियेक अगत्याच्यो. मंदुकोपनिषदांत सांगिल्ल्या दोनूय सुकण्याचें काम कवीक एकाच वेळा करचें लागता.

**द्वा सुपर्णा सयुजा सखाया**
**समान वृक्ष परिषस्वजाते ।**
**तयोरन्य : पिप्पलं स्वाद्वत्त्यनश्नन्**
**अन्यो अभिचाकशीति**

परस्परांलागीं गाड इष्टागतीन चलपी दोन सुकणी अेकाच झाडार बसल्यांत तांतलें एक पिंपळाचें फळ आवडीन खाता आनी दुसरें ताचेकडेन तोखणायेन पळेता.

**'धुनु वाजे घुणघुणा**
**वारा वाहे रुणझुणा'**

ह्यो ज्ञानेश्वराच्यो पंक्ति आयकतकच होच अणभव रसि-काक येवंक जाय. उतरांच्या लयेंतुच अशी विलक्षण टांक आसता कि मन आपशींच घोलता

कवितेच्या बाबतींत खूब खेपे अशें दिसून येता. अेकादलें उतर वा एकादली सलग अशी शद्वपंक्ति पैलीं स्फुरता उप्रांत कविता आकार घेता. अर्थांत हे घडणुकेफाटल्यान अंतर्मनांतली हालचाल आसू ये. पुण प्रत्यक्ष अशें घडटा. अुतरां आदीं, अर्थ मागीर तांतूत ओतपाचो. एखादली कविता अशी आसता कि सदांच तिची ओड लागता. ती परतू–परतून वाचचीशी दिसता. भौन भौन गुणगुणचीशी दिसता आनी दर खेपे तांतल्यान आमी वेग-वेगळो अर्थ काडटां. खरें काव्य सोंपतकच हे भशेन सुरू जाता.

*Music when soft*
*Vibrates in the memory;*
*Odour when sweet violets sicken*
*Live in the sense they quicken;*
*And so thy thoughts*
*When thou art gone*
*Love itself shall*
*Slumber on.*

शेलेची ही ल्हानशीच कविता. अर्थ सादो पुण चड येवजिलें जाल्यार हाताक लागपाक कठीण.

वामनबाबांच्यो ह्यो कविता वाचून रसिकांची अवस्था अशीच कितेंशी जावंची.

आनी तांचेच कवितेंतल्यो पयल्यो दोन ओळी घेवन

कोंकणीचो चांद म्हज्या
मळबांत सदां हांसत रांव
चांदन्यांत शीतळ ताज्या
सप्तकोंकण धादोस जावं–

अशें परमेश्वरालागीं मागून हीं अुतरां सोंपयतां.

–शंकर भांडारी



# कोंकणीचो चांद

कोंकणीचो चांद म्हज्या मळबांत सदां हांसत रावं !
चांदण्यांत शीतळ ताज्या सप्तकोंकण धादोस जावं !
कलेकलेन वाडून ताजीं किर्णां सगळ्या काळजांक पावं !
काळजांतले तिमिर वचून दुर्जनूय सज्जन जावं !
गोड गोड उतरांनी भास म्हजी उपाट व्हांव !
अजापान शत्रू तिजे भायर भितर घामान न्हांव !
पुनवे दिसा तळपताना अखखीभूंय हांसत रावं !

# पिशाक पिंपळ दाखोवं नाका !

नदर तुजी निबर म्हजेर लावन म्हाका पळोवं नाका !
नदरेंतले जादून ते वोगीच हांगा खिळोवं नाका !
मर्दीच दारार रावन उबो वाट म्हजी आडावं नाका !
भितर आसात कितलीं कामां गोड हांसून झुलोवं नाका !
हांसतें तुजें मूख देखून सगलें वतां हांव विसरून !
वावरावेळार फुडयांत रावून पिशाक पिंपळ दाखोवं नाका !

# अभिवादन

प्रणाम पयलो तिरंगी बावटयाक पयलें आमचें नमन
फडफडायतल्यांक ऊंचऊंच तो करूंया अभिवादन !
मातृभुंयेच्या स्वतंत्रतायेक दिले जाणीं प्राण
हुतात्म्यांक त्या प्रणाम आमचो करूंया अभिवादन !
पुसून गेलो तिळो करतानां मातृभुंये — अवन
भाग्यशालिनी भयणीक सगले करूंया अभिवादन !
पोटचे भुरगे केले जाणीं मातृभुंयेक अर्पण
पांयार तांच्या तकली तेंकोवन करूंया अभिवादन !
त्या देवींच्या दुखाभिशेकान जावं आमी पावन
पवित्र जावपाक देव नमतले; करूंया अभिवादन !
आक्रमकांच्यो घुरयो परतून घालें थैमान--
हड्डुचार तांच्या, हिन्दपुतांक त्या करूंया अभिवादन !
तिळ तिळ कुडको रगतान न्हाणयत सल्ले फाटल्यान
पुनांय झुंजपाक, बुदवन्तांक त्या करूंया अभिवादन !
जाले आवयखातिर झुंजतां झुंजतां बन्दिवान

शूर जवानांक हिन्ददेविच्या करूंया अभिवादन !
ज्या विरांच्या रगतान जालीं नवीं तिर्थां निर्माण
मनीसजातीक पावन करपाक, तांकां अभिवादन !
केलें आवयखातीर आपल्या प्राणाचें हवन
त्या त्या दादल्या – बादले – भुरग्याक करूंया अभिवादन !
शिमे शिमेचेर उकते नदरेन लावंया आतां नयन
सुतसूत राखपाक जीव हरपूंया, करूं मागीर शयन !
जे जे मेले देशाखातीर करूं तांचें तर्पण
रिपुरगताची धार पिण्डाचेर धरून अभिवादन !
मातृभुंयेचेर रिपुरगताची लावं आमी शिम्पण
हीच अहिंसा, परम धर्म हो. हाका अभिवादन !
फाट तेकोवया आवयक आनी दोळयांत हाडून प्राण
हांसते नदरेन तिरंगी झेंड्याक अखेर अभिवादन !
थण्ड वृत्तिचो, कंवळया काळजाचो मारतलो आपलें मन
आव्वयखातीर झुंजत रावतलो सरदेसाय वामन

# म्हजें कुळार ! कुळार !

चैत्र वैशाखाच्या दिसांत तरांतरांचो पनवार
निजा-पुजा घेवपी गोंय म्हजें कुळार ! कुळार !

जेष्टा आशाडा म्हयन्यांत येता वरुण वळार
पांचवो चुडो घालता गोंय म्हजें कुळार ! कुळार !

स्रावण भाद्रपदा वोत इंद्रधनुश्य मळबार
सातूय रंगांत हांसतें गोंय म्हजें कुळार ! कुळार !

आस्विन कार्तिकाचो साज हळडुवें भांगर आंगार
अन्नपुर्णा जावपी गोंय म्हजें कुळार ! कुळार !

मार्गशीर पौश्या शीयांत ताळये–ताळयेक चंवर
धालांगितांर घोलतें गोंय म्हजें कुळार ! कुळार !

माघा शिगम्याचे गोडयेंत हातें, सुरंगावळेसर
माळून परमळणारें गोंय म्हजें कुळार ! कुळार !

आसा सुखी संवसारांत बरा म्हज्या गोंयांभायर
घडयेघडय उगडास येता म्हजें कुळार ! कुळार !

आयकूंक ओथ्थरेतां गोंयांची उतरां म्होवाळ, अळार
सेवजीत धर्तरे फाटीर म्हजें कुळार ! कुळार !

# अशोच येवं दी--

तुज्यो अशोच येवंदी गितां झरी !
कांय फातरांक जावंदी मनीस तरी !

तुगेल्या उतरांचो शिवर उसळटा
काळजा काळजाच्या कप्यांत पडटा
मनीस निजाचो तोखेवन तुष्टेता
हेरां फातरांक तागेलें कांय ना जरी ! तुज्यो०

बंदेपणाच्या खातोणांत मुल्लयात,
आत्म्याक जांच्या थरूय दाटल्यात,
आपली अस्मिताय सामकी विसल्ल्यात
तांचें मात–मात वचूंदी खातोण तरी ! तुज्यो०

मुरून, बेसूद जावंनूय थिजल्यात,
मनीसपणाच्यो कळोय विल्ल्यात
सामके फातरांदशेक पावल्यात
तुजें गितांमृत तांकां मेळूं दी तरी ! तुज्यो०

अमृतान त्या जिवसाण येतली
आपुण मनीस ही जाणीव जातली
जिणूय तांची कोमरी धरतली
ती कोमरी लसलसून फुलूं दी बरी ! तुज्यो०

कांय जाण जाल्यात फोस्सिलां – गुंडे;
झोतिंत हालतात दाखयत शेंडें;
जातले देव हे मनांत मांडे !
तांकां झोतान पावय न्हंये–खरी !
थंय साळीग्राम जावन रावूंत तरी !
तुज्यो अशोच येवंदी गितां – झरी
कांय फातरांक जावंदी देव तरी !

# आदार

म्हगेल्या अंतरांत – देव आसा उबो
अढळ दिवोखांबो – सागरांत
उजवाडान तागेल्या – म्हजें चलता तारूं
धांवता जसो वारू – भुंयेवयल्यान
संवसारांतलीं खडपां – म्हाका तो दाखयता
आनी वाटेर हाडटा – तोच एकलो
अरिष्टांच्या वेळार – बूद्द तो थारायता
आनीक वाटायता – वादळां मोडीं
दुख्खांच्या हुंवारांत – तारूं धरता फेर
तोच सोडटा दोर – तडीक व्हरपाक
जळींमळीं भोंवरे – जेन्नां करतात जोर
बुडटां बुडटां वयर – तोच काडटा
वामन म्हणटा देवा – तूं म्हजो आदार
संकष्टांवेळार – हात दिवपी

# उलो तुका मारतां

उलो तुका मारतां – ‘ हांगां आसां ’ म्हणटा
सगलेकडेन सोदतां – दिसना तूं
भरून सगली धरती – उल्लो तूं अधांत्रीं
रूपां घेवपा परतीं – तरेकतरा
कोटी रूपां धरता – कोटी रूपां व्हरता
एकलो तूंच उरता – चराचरांत
थोडेजाण सांगतात – तूं आसा साकार
थोडे निराकार – म्हणतात तुका
वामन मागता देवा – आसलोय निराकार
राव दोळ्यांमुखार – सगूणरुपान

# भेट

उलयतना तिसऱ्याकडेन
    कित्याक तुजो म्हजेर दोळो ?
फाट करून म्हजेवटल्यान
    वळयता तूं कित्याक गळो ?
येवन लागीं रावला उबो
    आयकुपाक म्हगेलो ताळो;
रस्त्यावयलो हातांत नाचयत
    पुंजायलेलो मोगरे – कळो;
आशेवं नाका, पडचेलो ना;
    विणयेंतलो आबोल्यां – झेलो;
सवंगां कितलींय केलीं जाल्यार
    समजना व्हय तुगेलो चाळो ?
वळोवन वळोवन म्हाका पळेल्यार
    दुखत पिशा ! मान, गळो.
घरांत तुजी आसली जाल्यार
    शेकून घेवपाक व्हर हो नळो !

# कित्याक ?

तुजेविशीं म्हाका    इल्लोय ना भोमान
    तरीय म्हजी मान    लवता कित्याक ?
तूं आसा म्हणुनूय    दिसनाबी खूण
    तरीय म्हजें मन    हालता कित्याक ?
सृश्टीचे निर्मीत    निसर्गालागून
    तुगेलें पूजन    करतां कित्याक ?
रोगांची उत्पत    तूं तिजें कारण
    तर तुजें कीर्तन    करचें कित्याक ?
जर तुजेलागून    घुर्यांचें निर्मण
    तुगेलें भजन    करचें कित्याक ?
दुख्खांचे दोंगर    कोसळटात भोंवतीं
    तरीय तुका आरती    म्हणटां कित्याक ?
वामन म्हणटा जालो    बुद्दीचो गोंदळ
    काळजाक केदोळ    मागतां जाप !

# वोंवयो

पयली म्हगेली वोंवी – नागेशा देवाक
मागून विश्वाक – सुख, शान्ती॰

दुसरी दिली वोंवी लक्ष्मी – नारायेणा
विश्वाक वांटटा वायणां – समृद्धेचीं

तिसरी ही अर्पिली – देवा गजानना
निस्तरता तो विघ्नां – संवसारांतलीं

चवथी गेली महा – लक्षुमी पांयांर
सदां ती तयार – पालव दिवपाक

पांचवी म्हगेली वोंवी – जल्मभुंयें गोंया
मातयेंत मुल्लया माया – दया ताज्या

सवी ही अर्पिली – सव्या अवतारा
गोंय हाडलें आकारा – परशुरामान

सातवी समर्पिली – सीतेक् आनी रामा
सद्गुणाची सीमा – केली ताणीं

आठवी आळयिता – कृष्ण भगवंता
सुटपाक सांगली गीता – मोहामदल्यान

गोंयचे पुण्यभुंयेर – जाली देवां-दाटी
गेली तांचे भेटी – णवी वोंवी

धावी म्हगेली वोंवी – चरणार कोंकणीच्या
कुळार वेदांच्या – कुळयेंत तिजें

उल्ली सुल्ली वोंवी – कोंकणीच्या सूक्तांक
गातीत त्या भक्तांक – समर्पिली

# पण्टी पेटयतल्याक –

दिवाळेच्या परमळांत हे पण्टी तुगेली पेटल्या जी
तिगतली नि जगतली ती इल्लीपुण ना काळजी !
तेच पण्टेर ज्योती पेटून हजारांनी फुलतल्यो
उजवाडांत त्या स्वत्व दाखयत तरने पिळगेक, धोलतल्यो !
मार शेंसर तरने पिळगेर 'गोंयंची जाल्या जागी सासाय'
खुबदळून ती नष्ट करूंदी नवेल्या गोंयांक जें नसाय !
काळ आडावंक घेवन बसल्यात मूर्ख जे कालचीच लय
सांग तांकां खडखडावन 'हें स्वातंत्र न्हय ! स्वातंत्र्य न्हय !'
तुगेले प्रतिभे–पर्मळीक तेल सतत घाल तूं वातिचेर
रसरसून तेज, विश्व दिपूंदी कोंकणी भाशे – क्रांतिचेर !
पिकलीं पानां गळटलीं नि तरनि आंकरी फुलतली
पेटटे पण्टेत तेल घालपाक एक्कसारकी झरतली !
दिवाळेंतल्या परमळांत हे पण्टी तुगेली पेटल्या जी
तगतली नि जगतली ती करूं नाका तूं काळजी !

# हिंदळ्यार

धर्तरेचेर वयलेचाराक तूं नि हांव खेळ्ळीं खेळ;
तुज्या म्हज्या अन्तराचो केन्नां नारे बसलो मेळ !
हिंदळयार तुवें संवसाराच्या वयरवयर घेतले झेल;
तुज्या म्हज्या अन्तराचो लागले लोक घालूंक मेळ !
वांगडा तुज्या घेवंक झोंपय येत्न केलो कितले वेळ;
हिंदळयाक तुवें लावंक ना दिलो आंगचो म्हज्या इल्लो म्हेळ !
जिवाचो करून पेल्ल म्हज्या लागलीं खेळूंक पेल्लां – खेळ
कुस्कुटावन बळयां तुवें सोडून दिले हातचे झेल !
उदकाबगर पोरसांत तुज्या झरत मरत सुकली केळ;
मोगाची तुवें काळजाक म्हज्या इल्ली पुणून दिली ना शेळ !
जिणयेच्या तुट्टया दोरार चलता म्हजो निमणो झेल;
तुट्टा दोर; धर्तरेचेर दुसरी कोणूय खेळूंक तेळ !

# दर्यादेगेर

दर्यादेगेर, ओले रेंवेर,
ल्हारां कानांत फुतफुतताली
रवी अस्तमतेच्या तोंडार
तेच तरेन रंगयतालो
म्हज्या पोल्यांर उठयल्यो
परत्यो घेतरूय उरतालो
ओठांओठांतसून झरतालीं
गोड वेंगांत झेलताली
तुजे राणयेच्या सपनांत
सुखा – चान्नें न्हाणयतालें

तुज्या म्हज्या पावलां – खूण
नव्या मोगाची गुणगुण.
रंग भरी तांबडोलाल
तूंय म्हजे दोनूय गाल.
ओल्यो ओठांच्यो निशाणी
सदां म्हजोच तूं रिणी.
नितळ मोगाचीं रे गाणी;
तुज्या जिवाची ही राणी !
रातदीस जाल्लीं गुल्ल,
दुदावरी धवें – फुल्ल.

सुकल्यो म्हज्या पोल्यांवयल्यो परत्या वावान निशाणी
विरून गेलें सपनूय वाऱ्यार उल्ली उगडासाची काणी !
म्हज्या दुर्देवाच्या ल्हारान व्हेलो तुका दुसरे तडी
पांय रोमून उबाल्ली थंयच्च तुवें मोगा–गुडी !
ल्हार फोडून धांवत गेलीं पांयार तुज्या घेतली उडी
उलयनासतां जालो पैस; काळजाक म्हज्या लागल्यो चुडी !
पळेले ना रूप गूण, दिसली तुका दुडवां–रास
मोग, उतर विसरून गेलो आनी तिजो जालो दास !
खेळळो खेळ मोगाचो तूं; करूंक लायली म्हाका 'हाय' !
विसरून वचुंकूय जमना; हुलपतात काळजा – घाय !
जंयजंय जाल्लो स्पर्श तुजो थंयथंय जाता आंगाल्हाय
रिगतां दर्या–पोटांत आतां कायेक मेळपाक थंडाय !
दर्यादिगेर, ओले रेंवेर, तुज्या–म्हज्या पावलां–खूण
ल्हारां एका तळार करूंत दवरिनासतां इल्लीय पुण !

# मदली स्थिती वायट !

पुण्यवंतांपरस पापी उद्धरिल्ले
पुराणान वर्णिले असंख्यात !

दिसता, तुका गोडी पुण्याची, पापाची
दोनूय नास्तल्यांची नारे पर्वा !

दोनूय तोंकां अन्ती अनन्तात मेळटात
जयंचे थयंच उरतात मदले भाग !

म्हजेकडेन नारे पुण्यताये पोटली
आस्त एक तुटली उद्धरपाची !

पापाचे पर्वतूय हांवें ना उबाल्ले
तुका भियेवन जालें बाळें म्हजें !

पुण्य गांठीक येवपाक लागता खुब्ब काळ
चलता सांजेवेळ जीवनाचो !

म्हणून बेगीन पातकां करपाक दीरे बुद्द
वचम्हणसर शुद्द करतां पाप !

अखेरेच्या वेळार नांव तुजें घेन
धाडशी तूं विमान तेन्नां तरी !

बामन म्हणटा देवा मदली स्थिती वायट
करपाचो हो पयठ तुवेंच घालो !

# सरक फुडें !

तूं ज्योत घेवन ही चमक फुडें
तिजी वात फुलोवपी आसात गडे

वाटेर तुगेल्या कांटे पातळ्ळयात
पांयांतळा चारींत जिवाणां लिपल्यांत
झिलिनीं कडेच्या सावदांय टपल्यांत
तूं नदर चोशींय दिवन सरक फुडें

अपशकुनी तुजेंमुखार शिंकतले
नाखूय आपणालें कापून घेतले
मार्गार तुगेल्या उबे रावतले
तरी तुच्छोवन तांकां सरक फुडें

तरेकतरांनी बडबडटांना
वाटेर मेळटलीं उच्चदिवानां
न्हय मनशां, नि न्हय हयवानां
पुण बगल तांकां दिवन सरक फुडें

उतरांचे पंडीत आसतले
सुण्यांबशेन तुजेभोंवतीं भोंकतले
दाखय ज्योत, ती पळोवन दिपतले
थंय हांसत मदल्यान सरक फुडें

ऊंच जाग्यार तुजी ज्योत थारतली
निश्चलतायेन प्रकाश दितली
जैतान तुगेली मुर्त हांसतली
तेन्नां आडमेळीं हाडपी येतले फुडें

वाट तुजी झाडून शिंपतले
पानां–फुलांनीं आर्कां बळटले
हारतुरे घेवन वाटेर रावतलें
तुज्या गळयांत घालपाक पावना फुडें

निखटया नदरेन ते तुष्टेतले
तुस्त तुजी भोव बरी करतले
उतर उलयल्यार परब धरतले
घरा करूंक लायतले जिलोब्यो, वडे !
तुजेकडल्यान घेतले कोंकणी धडे !

# नागेश, नागेश

नागेश, नागेश, – त्रैलोक्याच्या राजा
तोंडांत घोळूं म्हज्या – तुजें नांव !
उठूंदी आवाज – आयकूं म्हजे कान
नाचूं म्हजें मन – त्याच नादान
उतराउतरांतून – भायर सरूं ध्वनी
'नागेश' म्हणूनी सगलो काळ
आदित्याचीं किरणां – चान्नें आनी तम
बरोवं तेंच नाम – म्हजे कायेर
रातींचो काळोख – विजांचो प्रकाश
'नागेश' 'नागेश' – दाखोवं म्हाका
काळजाचे स्पंदन – चलतां आमरण
नामसंकीर्तन – चलोवं तुजें
रगता-थेंब-थेंबो – घोळटानां शिरेंत
नाम तुजें गायत – भोंवूं सदा
बामन म्हणटा पांयार – वोपून सर्वस्व
पळोवं भल्ले विश्व – तुज्या नांवान
जातर तीन चिमटयो – कायेचो गोबर
एकेक अक्षर – खेळूं ताजेर

# म्हजी वेगळी सृष्ट !

दुदाच्या सागरान जाली तुजी तृप्ती·
करतल्यांक भक्ती पन्चरपाणी
दाखयतात निवेद्य उपाशी पोटान
तरीय तूं थाटान ताणून दिता·
आंगामुळा तुज्या शेशाचें कुलच्यांव
तुजें घेतल्यांक नांव फातरां–शय्या
शेशाच्या कुलच्यांवार न्हीद घेता सुस्त
गायतल्यांक तुस्त जाग्रणांच
हळवार हातांनी लक्ष्मी दामता पांय
पांयांक पडल्या घाय नाचतल्यांच्या
आसराखातीर तुजेर हजार फणां–सांतें
उकतें भक्ता–माथें वोता पावसांत
कसली करतात भक्ती कित्याक हें दुख्ख ?
संवसारांतले सुख भोगचें सोडून ?
बामन म्हणटा देवा शाण्यांची ही दृष्ट
म्हजी वेगळी सृष्ट· हावूंच जाणां !

# व्हडले व्हडले पापी...

व्हडले व्हडले पापी उदर्गतीक व्हेले
म्हजेवटल्यान केले कानदोळे
पुण्याच्यो तिकेटी दाखोवन पुण्यवन्त
तुज्या मन्दिरांत भितर सल्ले
पापी अजामिळ नांव 'नारायण'
अंतीं उच्चारून मुक्त जालो
ताका तुजी केन्नाच नासली वळख, ओड
भुरग्याक लागून जोड वैकुंठाची
बहुला जारीण 'शिव' नाम घेवेन
कैलासाक पावऽन जावन गेली
नामाचो महिमा गाजयता विश्वांत
म्हज्यावेळार मात सगलें शान्त
व्हरायता वामन नावांनी अनन्त
ताजेविशी चिन्त इल्लेंय तरी

# नाट

कितली पळोवं रे वाट ? जिवा म्हज्या,
कितली पळोवं रे वाट

येतलो आज सांजसूर
गेलो दीस भुरभूर
मळबांत भल्ल्यां काळीं कुपां दाट ! जिवा०

उठून फांत्या पारार
घालतां फावटी दारार
हांसून सगळीं लायतात म्हगेली वाट ! जिवा०

हांसपाक कोणालें सरता ?
भोगता ताकाच कळटा.
भायर पळे पावसान मांडला थाट ! जिवा०

मळबांत म्हातारी दळटा
आयकून काळीज हालता
पांयांमुळा सगली दोंगरयां वाट ! जिवा०

आयले दोळ्यांत प्राण
तुजो ना थाव ठिकाण
आमोरेची वाजपाची जाली रे घांट ! जिवा०

सगल्याक वीजो कडकडटात
म्हगेले प्राण तडफडट्रात
देवी माये, राख गे तूं तागेली फाट ! जिवा०

हाड बेगीन, खणा नाल्लांनीं
होंट भरीन दोनूय हातांनी
दिसता, देवते, दाखयली तुवें गे नाट ! जिवा०

# परती भेट

घरच्या तुजीं तूंय जाणां    कित्याक म्हजो तुजेर दोळो
घरांत म्हजें नांव येतर    फुलता कित्याक तुगेलो कळो ?
दुखत म्हजी मान म्हणून    जीव तुजो कळवळ्ळो
शेकपाखातीर दिवंक काडलो    रस्त्यावयलो फुटको नळो.
हांसत हांसत नळखुटी दित    येत्न केलो हिणसुचेलो
धिटाय तुजी उलोवपाची    पळोवन म्हजो जीव तोखेलो !
उलयतनां लजेन तुज्या    फुलल्लो पोल्यांर गुलाबी मळो
परमळ ताजो खोल वचून    काळजामेरेन दरवळ्ळो !
एकसारको वास घेवपाक    तेकून रावूंक जीव आशेलो
ओठांनी म्हज्या घेवंक चिट्टून    गालांर तुज्या दंव निर्शेलो !
नळखुटेचो, शेकोवराचो    अर्थ तुजो म्हाका कळ्ळो
समाजाच्या बांदपान आतांच    अणसरपाक धीर गळ्ळो !
थोडचा दिसांत येतली तूंच    सोबोवपाक म्हगेली कुटी
तेमेरेन सांबाळून दवर    फोडीत कोणूय मारून खुटी !
ताकीत कितलीय आसली    तरीय म्हुर्ताची भरूंदी घटी.
तेच तिथीक लागुंया तापोवंक    दोगांय आमी नळ-खुटी !

# पाखळो

कोंकणी म्हजी आवयभास लागला म्हाका एकूच ध्यास]

पयल्या पदाचेर पावत कशी लसलसून ती दिशीं-निशीं

मुळची घेवन ती रसनाय करीत भुरग्यांची तोखणाय

तिज्या पुतांनी

– पडमूरांनीं

केल्ली करणी

सकयल वता पळेतर मान तडफड्तात पांचूय प्राण !

शेजाऱ्यांक ओपतात पिताम्बरां आवय आंगार बोंदरां-चिंदरां

आवयची इल्लीय ना माया मावश्यांखातीर झरता काया

मावशेभाव करतात तुस्त मेल्लचा मनाचे हे रूस्त

तरेकतरेचे

वाक्सुमनांचे

गद्यपदांचे

गांथतात झेले हेरां-गळयांत फुलतीं फुलां घेवन कोंकणी मळयांत

दान दित्यांचो ना राग घरचो करात इल्लो मोग
परक्यांखातीर झरचीच काया लावन घेवन घरची माया
जल्म दिती तुमची माय तिजेयखातीर झरयात काय

दुदाबरोबर
भाशे–भांगर
दिवन थरारथर

फुलयली तुमची जिणे जीण इल्लें तिजें पावयात रीण !

x x x

प्रतिभेची पडटा वाण कवनांत खंयचें थंय त्राण
हृदयवेदना कशी व्यक्त करूंक शकतलों निःशक्त ?
कोंकणी भाशेचो मुकुट हांवे गुंथल्यार वतलो फुकट

म्हणून मेकळी
एकूच पाखळी
ल्हवूच ओपली

कोंकणी देवीच्या पांयांर थारूं वा अुबूं वाऱ्यार !

# एकाद्र्याचें नशीब

रावतात चोर थोडे लिपून / वनारानांत सोडून दारां, घरां;
आसतात बंदखणितूय कांय / थोडेशे मेजीत मिनटां वरां;
थोडे साव म्हणून रावून जनपदांत / भरतात आपलीं घरां,
तातूंतलोच कोणूय मंत्रीपदाचेर / पावताय वयल्या थरां !

काये-विक्रो करीत भूंयतलाचेर / शेंकडयांनी वारांगना;
करता लग्न मर्जेन कोण एकाद्री / एकल्यान जरी रंगना.
व्हरतर मंत्रीपदार पती, शिनळ / ती देवी जाता पावना !
सजनी बायलोलेगीत हारतुरे दिवन / करतात तिज्या पूजना !

पदवेदार आसात कांय थोडेशे / तकल्यांत ज्या कांयच ना
गो-पालावरी योग्यता, तरी दितात / पाठ केल्लीं तीं व्याख्यानां
मंढ्या-जात मुखेल्, आसून पदवी / ना स्वत्व, मेंदूय जाका
करपाक पुर्ण त्रिकोण, मंत्री म्हणुनूय / आफोवन व्हरतात ताका

पृथ्वीर मूर्खशिरोमणी, पिशेखुळे / भल्ल्यात कितले तरी !
जांकां ना स्थल, मोल खंयंच् / कशें आसत राजकन्नी मनशांतरीं ?
दैवान मेळटा दुडू कोणा पिशाखुळयाक / मोखताय तो मुर्खांवरी
मोखिल्लो दुडु करता त्या पिशाखुळयाक / मुर्खेल मंत्री तरी !

# नासल्यार देवा-वरदहस्त...

वर्सां वगडावन बंगलो उबाल्लो
कुडी भल्लचो फुल्ल
घटकेभितर वादळ करता
सगळो माती धुल्ल !
चंद्रार गेले, बावटो उबाल्लो
हड्डींय फुल्लीं फुल्ल !
परतून येतनां तिगूय करपले
सगलो गोबर धुल्ल !
कर्तुप तोखेवन कित्याक तुष्टेता ?
कित्याक जाता गुल्ल ?
नासल्यार देवा-वरदहस्त तो
सगळो माती धुल्ल !

# आसा थंय तूं राव !

" जेथें जातो तेथें तूं माझा सांगाती
हिंडविसी हातीं धरोनियां " —तुकाराम

' जंय जंय वतां हांव थंय — तूं येता सांगाताक
भोंवडायता नि हाताक — धरून म्हाका '

अभंग वाचेंत — सांगता तुकाराम
पावलो जो विराम — तुज्या रूपांत

व्हडलें ताजें पुण्य — व्हडली ताजी कीर्त
स्मरनाफुडें मुर्त — हात जोडटात

नांव ताजें घेतर — पापांचो गोबर
राबस, निबर — आसलीं तरी

ताजी तुजेर प्रीत — तुजो ताजेर मोग
तुजेखातीर भोग — सोडले ताणें

हाताक धरून भोंवडाय — म्हूण हांव मागना
पुण्यताय म्हजी ना — अशें मागपाक !

सांगातूय निखटो — दी म्हूण सांगना
वोगीच दिवंक धजना — त्रास, देवा !

आसा थयं तूं राव — चुकल्यार दाखय वाट
म्हजेवटल्यान फाट — करूं नाका !

बामन म्हणटा देवा — आसा थयं तूं राव
उलो घालतर पाव — प्राणिमात्राक.

# तान

एकवेळ फाटीवयल्यान भोवूं तुजो हात
अखेरेक थाणें म्हगेलें तुज्या मन्दिरांत !

सगली जीण हुलपून गेली
आंकरी आंकरी करपून मेली
दिली सावळी कडकडट्ना माथ्यार म्हज्या वोत ! एक०

मळबांत मात्शीं अबळां आयलीं
दमळां जावन सावळीय जाली
गुजगुजून घुसमटलो जीव भरून कुपां दाट ! एक०

फाट करून सगल्या सुखांक्
लागलों पुसूंक हेरांलीं दुखां
समाधानी कोण ना दिसले उब्या संवसारांत ! एक०

खतखततीं दुखां पुसून
हात गेले लासून, कुसून
आयकूंक आयले पडमुरांले दुखरे उतरां – पाठ ! एक०

मळबांत निळच्या हांसल्यो राती
नक्षत्रांच्यो चंदुरजोती ––
फुलल्यो, पुण मनांत ना फुलली हांसती चान्नी रात ! एक०

सावळी दितीं गळ्ळीं पानां
सुकणीं उडून गेलीं राना
सुणे लेगीत रोमूंक लागले कृतघ्नायेन दांत ! एक०

शक्त गेली उपकारांची
आतां गरज हांगां ना म्हजी
लागली तान तुका मेळपाची, कर ती आतां शान्त ! एक०

# म्हज्या कुळाराच्या वाटेर

म्हज्या कुळाराच्या वाटेर फुलता शुक्राचें नक्षत्र
तुज्या हांशान उजळटा झगझगायता आपलो नेत्र !

म्हज्या कुळाराच्या वाटेर उदेन्त जाता तामडीलाल
उशा आनन्दान येता नि गालांक तुज्या लायता गाल !

म्हज्या कुळाराच्या वाटेर किरणां सूर्याचीं सोनेरी –
जातात पडून बाबाच्या भांगराच्या केंसाचेरी !

म्हज्या कुळाराच्या वाटेर सूर्य ताऱ्यांचे झुम्बर
तुजे दिप्तीन चकचकता म्हज्या काळजाचें अम्बर !

म्हज्या कुळाराच्या वाटेर जाता फुलांची पांखर
तुज्या पर्मळान घमघमूं म्हजें कुळार आनी घर !

म्हज्या कुळाराच्या वाटेर रुखांवालीची रे छाया
सावळी शीतल तुगेली लोकांक सदा मेळूं राया !

म्हज्या कुळाराच्या वाटेर कूडचाफ्यांचो रे वास
दारांत आयिल्ल्या भुकेल्ल्याक ओंठांक व्हेल्लोय दी तूं घांस !

म्हज्या कुळाराच्या वाटेर वारो गाता गोड गीत
वता वितरायत विश्वांत तुज्या मोगाचें संगीत !

म्हज्या कुळाराच्या वाटेर आयलो चांद, जाली सांज
तोंडादिवो पळोवन तुजो कुपांत लिपता दिसून लज !

म्हज्या कुळाराच्या वाटेर देव दिवे लायता लाख
अनन्ताक त्या पायां पडुंया 'देवा सगल्यांक सुखी राख' !

म्हज्या कुळाराच्या वाटेर घरान्घराक लागल्यो वाती
बेवन हाण्डीर बाये बाबा कपलाक लायता तिती !

# निर्शेल्ली प्रीत !

निर्शेल्ली जरी म्हजी प्रीत

अद्‌भुत तरी तिगेली शक्त

रित्या मनाच्या बोबदांत

कसलें तरी चलता गीत

घुमतात गिता – पडसाद

कोण दिता तांका साद ?

त्या सादांची खंय धनिन

दाखयात मागशात तें दिन

खंयीय आसली

कशीय दिसली

पळोवन त्रासली

म्हाका जरी ती, म्हजी करीन

दाखयात मागशात तें दिन

गंधर्वांच्या नगरींत गायत आसली जरी ती गीत
गीतलहरिचेर हांव बसून वयर वयर मळबांत वचन
धव्या कुपाच्या अश्वार बसून हांव जातां स्वार

मनच्या मोगान
जातर निर्भान
वाऱ्यावेगान

सोदीन तिका हांव चोशींयकडेन कोण पळेता जिवाकडेन !

वरुणाच्या त्या राज्यांत बसली जरी गितां गायत
जलकन्या ती आसली जरी ल्हव ल्हव जातलों फुलावरी
ल्हारां फाटीर हांव बसून धाय दिकांनीं नियाळीन

ल्हारां तेमकार
बसून स्वर्गार,
नाचत उदकार

पाताळांतूय नियाळीन आनी दिसल्यार म्हजी करीन !

# साद

घालतां तुका हांव साद, रायारेऽ म्हज्या
घालतां तुका हांव साद !
कणयेंकणयेंत भरून उल्लो तुजे मुरलीचो नाद !
चराचरांतल्यान घुमता सारको ताजो रे पडसाद !
चंद्र पळे कसो खुदूखुदू हांसता भल्ल्यावरी उन्माद !
हांसत्या चांदन्यांत धर्तरी न्हाता गायत गीत–आल्हाद !
वारोय करता झणझणटांना एकूच तो अनुवाद !
त्या तालाचेर दर्याय नाचता, ताणें मांडला उच्छाद !
झरूय काडटा झुळझुळटांना मंजुळ मुरलीनाद !
धरतीमाता अखण्ड गाता तुजोच जयजयनाद !
हृदयांत म्हगेल्या तुवें थारायले पावन तुगेले पाद !
स्पंदनागणीक 'मुकुंद–राधा' उठ्ठा हो स्वरनाद !
म्हजें म्हजेपण विरून मेलें जीण जाली बरबाद !
जें जें म्हगेलें तुजेंच जालें हातूंत ना आतां वाद !
तरीय आसतानां एकसारकीं करतां तुगेली याद !
दोळ्यांमुखार तूं सदाच दिसचो हो दी आशिर्वाद !
रायारेऽ म्हज्या घालतां तुका हांव साद !

# म्हगेलो पेलो

पेलो म्हगेलो दुःखांचो, दुःखांचो, न्हय विक्खाचो
विक्खाचो पियेतर पेलो मनीस एकदांचो गेलो

ह्या त्रासांतल्यान
त्या दुःखांतल्यान
संवसारांतल्यान

मुक्त जावन बाबडो गेलो विक्खाचो पियेतर पेलो
पयलो पेलो दुःखाचो रडतरडत तो धरपाचो
दोळे धांपून घेवपाचो वांकडया तोंडान तो गिळपाचो
म्हगेलो पेलो दुःखाचो उकत्या दोळयानीं घेवपाचो
हो पळे आयलो एक पेलो पळेतां पळेतां तो पियेलों

दुसरो आयलो
तिसरो आयलो
चवथोय आयलो

एकार एक आयले पेले आयले तशे आँठाक लायले
पेले म्हगेले दुःखांचे, कष्टांचे आनी त्रासांचे

पियेतां पियेतां 'हांव' मेलों मेलों पुण अमरूच उल्लों
आनंदाचे व्हांवले झरे हर्ष आतां तांतूंत नारे
दुःखांचीं आयलीं ल्हारां तरीय उरतां वयल्या थरां
तुशार उडले खूब वयर पावना तरीय रे काळजार
काळीज काळीज ना उल्लें करपून तें फातर जालें

त्या काळजांतल्यान
त्या फातरांतल्यान
त्या खडपांतल्यान

कसलीच आतां व्हांवना झर जीण जरी जाली अमर
दुःखाचे पियेतां पेले मन म्हगेलें हुलपून गेलें
जळ्ळे द्वेषाचे पंख कसलोच उल्लो ना डंख
आंकऱ्यो करपल्यो प्रेमाच्यो कौमऱ्यो आतां ना येवपाच्यो

जळळचो भावना
मेल्यो वेदना
सुख दुःखूय ना

पावलों सुख दुःखांभायर जीण जरी जाली अमर

# कोंकणी हीच गोंयची गिता !

करमेल्यात आत्मेच जांचे दास्य-नर्कांत सासणाचे
तांका ना हें कळपाचें
'कोण आपुण ? भास खंयची ? कार्य कसलें करपाचें ?
स्वातंत्र्य ? आनी मोल ताजें ?'
'काल' गेलें 'आयज' आयलें येतलें 'फाल्यां' भांगराचें
चकचकीत उजवाडाचें !
काळखांत भोंवत्या काळमुख्यांक ना तेज इल्लें सोंसपाचें
तांकां ना हें कळपाचें !
बूट चाटले फिरंग्यांचे काल, आयज चाटटात मराठ्यांचे
फाल्यां चाटटीत कानड्यांचे;
पोट भरचेंच ध्येय थारावन कर्म करतात बंद्यांचें,
तांकां ना हें कळपाचें !
शिश्ट, न्हय-शिश्ट, दोन भाशो परवंतात जे नरशिव
आयकतर दिसता किंव
दोन जाती घडप जांचें मनशां आनी सावदांचें
तांकां ना हें कळपाचें !

पोटाक चुट्टी पेटल्या देखून जाळवणदारांक आरती
सांडून नीती, संस्कृती,
बायलांकडल्यान दाखोवन तांकां ध्येय जांचें पुजपाचें,
तांकां ना हें कळपाचें !
बायलांकडल्यान आरती दाखोवन लावंक लायतात जे तिळे
फुलोवंक लायतात मुख-कळे
जीण तांची थूत् तिजेर ! नि पाड तांच्या हृद्यांचें ! !
तांच्या थोंडार थुकपाचें !
अर्द्या कुटान हळडवे जावन जे देशभक्ती बेगडी
लावन घालतात फूगडी;
करीन 'फू', फू नाचत माचियेर काम जांचें खुदपाचे
तांकां ना हें कळपाचें !
मेल्लचा रगताक उलवप न्हीं हें, स्थान ताजें मसणाचें
दिव्य ताका सरणाचें !
तरने पिळगेक, नवेले आंकरेक सांगप म्हगलें प्रीतिचें—
—भक्ति—नीती—रीतिचें !

मराठीचो गंद नासतां बार्देशी आबाद फारीय
दिपोवन गेलो जग तरीय

व्हडविक मेळपाक मराठीच जाय हेंच मत ज्या मनशांचें
तांचे अकलेक हांसपाचें !

ईंदियेचें नांव केलें कीमिकेंत अव्वर
तोय गोंयचोच कूंवर

आगोश्तीन्यु लोरेंसु जाणें केलें मन्थन शास्त्राचें
तसले बुद्दीक कळपाचें

मायभाशेखातीर झुंजपी एकलो गोंयचो 'वामन'
ओपून काया–धन–मन

वाद मेले, वैरि गेले जैत जालें झुंजप्याचें
'शणै गोंयबाब' नांव ताजें

देंजा–विश्वांत नामना जाल्ली 'शिरोडकार शस्त्र क्रिया'
सोदपी गोंयचो पूत ह्या

पांचूय खण्डांत गाजता 'विठ्ठल' घुमता गोंयचो गौरव
आंग्ल भाशे–पालव !

उत्तरेच्या तोंकाक व्हेली हिंदुशाही भौमानान
तुमच्या गोंयच्या केरकारान

शिपप केले झुंजा मळाचेर जांणीं आपल्या रगताचें

तांच्या रगताक कळपाचे !

जयश्री ओडून हाडली मंव्यासयत त्या केरकारान

हिंदुराज्या–अभिमानान

निजामाक निर्वीर्य केलो धन्य गोंयच्या रगताचें !

त्याच रगताक कळपाचें !

दरज्याकडल्यान भटाक शिवलो जंयंचे थंय नाना–फुडयांत

केरकारान ताज्याच वाडयांत

वांगडयाक जाल्लया अपमानान जें रगत रोखडें शिजपाचें

त्याच रगताक सांगपाचें––

कोंकणी तुमची भास आनी रगत तुमचें कोकण्याचें

शूर, ज्ञानी मनशांचें

सत्त्व, स्वत्त्व, भूंय, भाशा हांचेखातीर झुंजण्यांचें

स्मरण तुमकां आसपाचें !

अस्मिताय ती गोंयकाराची न्हयं मराठी अस्मिता

कोंकणी हीच गोंयंची गिता

*भालभांडारांत ताज्या तीच एकली उरतली

उद्धाराक वावुरतली

*तकलेचे तिजोरींत

# हांस गो अशें

हांस गो अशें गोड गोड
लागूं दी जिवाक तुगेली ओड,
पोल्यार तुज्या नाचूं दी खळी
जावंदी काळीज मोगा–तळी
गुलाबी गालार प्रेम कळी
ओंठांनी बरोवन करूं दी जोड
हांस गो अशें गोड गोड
लागली म्हाका तुगेली ओड
पोल्यांर तुज्या म्होवाळ खळी
पळोवन जीव चिळीमिळी
म्होंव तांतलें पळीपळी
चोखून ओंठांक करूं दी जोड.
पळेलेबगर तुका गो
जिवाक सुख लागना
तकलेंत कांयच वचना,
हातूय लिब्रु धरिनात
गो हातूय लिब्रु धरिनात
हांस गो अशें गोड गोड.

# दिश्टावो

वतां वतां थंय थंय तुगेलो दिश्टावो
व्हलयता सांगड प्रसंगांत
इल्लीपुण उल्लिना संवसारा–भिरांत
पुरोयन शान्त मनकाया
आयिल्लचा संकश्टांत राखता म्हजी फाट
तकली दवरूंक ताठ जगामुखार
स्मी जाता तूं, हें पळोवं नज जावन
नांव तोंडातसून सोडून दिलें
रावता म्ह-यांत येवन कोणाय रूपान !
काळजांत कोरांतिल्लें नांव कशें काडूं ?
मूर्त कशी फोडूं नांव कशें सोडूं
तुजेबगर कसो रावूं हांगा ?

# हार तुका, पीक म्हाका !

आयतार पुजूंक जाय म्हाका, सवळयांत आसां, आफडूं नाका
देवाकुडींत मांय रावल्या, "खंय गेली ती" करीन म्हाका;
आवयमुखार जाता तूं बिलू, एकलीं दिसतर पळेता छळूंक
मोव थंयं तूं लागता खणूंक पयस राव रे आफडूं नाका !
पुरो जाल्यो ह्यो मीठफळण्यो, हांसतात पळे तुज्यो मेवण्यो
भितर वचून सांगतीत आईक, फुगडी खेळटात भावोजी–आका
पुताची करपाक अपुर्बाय पळे फाटल्यान आयली मांय
आतां जातली जी तोखणाय, म्हाका तरी ती दाखोवं नाका
फटवलो रे जाण–जा आतां वांगडा म्हज्या खेळ खेळटां
संवसाराच्या मिठफळण्यांत हार तुका पीक म्हाका !

# म्हजो देव !

दोळे धांपून बसलों देवाऱ्यामुखार – अव्यय, अक्षर रूप पळोवंक
काळजाचें म्हज्या केले सिंव्हासन – ताजेर अधिष्ठान नागेशाचें
दोळे धांपुनूच पूजाअर्चा केली – भाकणूक केली नागेशाची
" देव तुजो, पिशा, नारे देवाऱ्यांत – तो आसा रस्त्यांत, काम करता
हूमेच्या धारांनीं वोतांत तो न्हाता – पावसांत कुडकुडटा आसर नासून !
रानांत लाकडां मोडटा, दोंगरार खडी-फोडटा–मंत्र तूं पुटपुटा हांगां कोणाक
दोळे उगडून पळे, देव ना देवाऱ्यांत–आसा निखटो म्हऱ्यांत फातर गुंडो"!
हातपाय म्हजे थंडगार जाले – भियेतभियेत केले उकते दोळे
देवाऱ्यांतली मूर्त हांसूंक लागली – अपुर्बुद्द केली म्हजी तिणें
हांवें तिका म्हळें अशीच तूं हांस – सोंसपाक कसलोय त्रास शक्त येता
फाटल्यान पळेतर दिसलें एक खाड – एकूय वयर हाड दिसनाशिल्लें
नमस्कार करपा उठलों बेगोबेग – पायांक ताज्या वेंग घाली हांवें
तूंच म्हजो देव - होच म्हजो भाव – देवाचोय थाव काडलो तुवें
देवा सोदीखातीर भागल्यो वेदश्रुती – म्हणून 'नेति' 'नेति' निर्शेवणेन
जपी आनी तपी, मुनी आनी ऋशी – जालेरे अपेशी देवा सोदींत
तुवें सोदून काडलें देवाचें ठिकाण – आतां तुगेलें ठाण दवर म्हगेर
देवांचो तूं देव आवयबापूय – म्हज्या घरा पाय लागूं तुजे
गोड तुजे शब्द, गोड तुजी वाणी – आयकुनूच तोखेवणी करतां तुजी
तुज्या देवांतल्यानीच भल्लयात बंदखणी – मारेकार, खुनी तांतुतलेच -
म्हजो देव बसला म्हज्या देवाऱ्यांत – पळेतां हृदयांत सदांच ताका
खडी फोडूंक वचना, घरांय तो फोडीना – भायरूच तो सरना हृदयांतल्यान
दरोडे घालिना - बलात्कार करिना – वाटमारीय ना, फातर गुंडो.
म्हणून ताजें प्रतीक दवल्लां देवाऱ्यांत – बसतां ताज्या म्हऱ्यांत नांव घेत
आयकून म्हजीं उतरां, सोडोवन बेगोबेग – पायांक दिलो वेग ताणें आपल्या.
शब्दांची शाणपणां उतरांचें संगीत – आयकून तृप्त जायत मातशे कान !

# ते चलयेक –

[ एक २॥/३ वर्सांचें चली आपल्या ८/१० म्हयन्याच्या रडटल्या धाकट्या भावाभोंवतीं "म्हदो बाबुयो, म्हदो बाबूयो बिन्ना कातायो; बाबूयो तुन्ना कातायो .." म्हणून गीत म्हणत मुठी आंवळून पायांच्या चवड्यार बाबुल्याच्या दावे, उजवे वटेन नाचतालें, आणि बाबुलोय ताका तकऽ तकऽ करीत, रडें थांबोवन पळेतालो. ते चलयेक लेखून– ]

आयकून तुगेलें हें गान बाबुलो जाला तल्लीन
विसरून गेलो आपलें रडें तकतक पळेता तुजेकडें
चवड्यार तूं जशें नाचता तशें म्हाकाय दिसता नाचनशें
शा थय् थय्या
दोगांय नाचुंया
चल चल योतर धर फेर बाबुल्या सामकार चौफेर

कृष्ण कन्हय्या सामकार नाचली मीरा चौखार
भरून भक्तीभावान कृष्ण कन्हय्या नांवान
तशेंच भावा–मोगान नाचत करतां तूं गान
था थय् थय्या
दोगांय नाचुंया
चल चल योतर धर फेर बाबुल्या सामकार चौफेर
धवीं कुपां आयलीं वयर गंधर्वांचें तें नगर
आयकून तुगेलें हें गीत पळे कशे ते नाचतात
नाचान कुपां हालतात हेवटेन तेवटेन धोलतात
था थय् थय्या
आमीय नाचुंया
चल चल यो तर धर फेर बाबुल्या सामकार चौफेर
देव रावन मळबांत गुप्त तुज्या गीतान जाले तृप्त
आयकून गंधर्वां–गान किटल्यान तांचे ते कान
म्हणून बाबुल्या रुपान आयकतात तुगेलें गान
था थय् थय्या
दोगांय नाचुंया
चल चल यो तर धर फेर बाबुल्या सामकार चौखार

# 'दिवाळ्यांतली' दिवाळी

[ दिवाळेच्या दिसांत घरांत कांय करूंक ना म्हणून फुगून बशिल्या घोवाक बायल समजायता ]

सांग रागार कित्याक तूं म्हजेर तरी
घरांत आसात आयदनां रितीं जरी ?

सांग तरी हांव कशे करूं बेसन
ओखदां मापान साकरे रेशन
हांवें सोडली च्या साकरेक त्रासुन
तुका दोनदां दिवपाक कशीय तरी

कसले करतलीं शंकरपाळे
गंव तर सामके कुसके काळे
राजकर्ण्यांचे भिकेधुवाळे
पुरयता यू. एस्. मोगान जरी

खानदानिचो आमचो शेजारी
नव्या कायद्यांनीं जाला भिकारी
दाडेक घालूंक ना तागेर सुपारी
ताजेपरस आमची गत जायती बरी

पुंजावन थेयल्यात हांवें चिंचारे
मिठाउदक लावन केल्यात खारे
सुकोवन भल्ल्यात मातये – हारे
ताणीं भुकेक फटोवं येत कशेंयतरी

गेले ते दीस गेले सखया
तांदूळ पायल्यांनीं म्होडटर रुपया
आतां मंत्र्यां–उतरां गिळूंया
आनी लांवया नदर रे पयलतिरी

अन्नमंत्री न्हयं, अन्नान्मंत्री
दिश्कुर्साची लायतात जंत्री
सामके खांपे तडुक–तंत्री
सगले चिरतात एकूच 'शिरी'

एकलो सांगता खुब्बूच पिकलां
गुदांव भरुनूय भायरूय भल्लां
हाडपी नाशिल्ल्यान थंयं तें उल्लां
दुसरोय ओडटा ताजीच री

दळिद्री आसले सुदाम्यावरी
कणयो फोवांच्यो घरांत मूठतरी
आतां ना मेळचें तुसूय सोदीत जरी
ओखदाक लेगीत घरोन्घरी

'दिवाळ्यांतली' ही चलता दिवाळी
मंत्र्यां अकलेन पडून काळी
मद्दीम वर्गार हाडल्या पाळी
आनी मंत्र्यां–घरांत मात कोजागिरी